# तिंगूल

विमल प्रभुदेसाई




**भूमि प्रकाशन,**
सावर्शें - सत्तरी - गोंय

तिंगूल
**विमल प्रभुदेसाई**
बाल साहित्य

प्रकाशन क्र.- १०

पयली उजवाडावणी
**जानेवारी २००७**

प्रकाशक
**श्री. अभिजत गांवकार**
**भूमि प्रकाशन,**
सावर्शें, सत्तरी - गोंय ४०३ ५०६

छापणावळ
महालक्ष्मी ग्राफिक्स,
सांखळी - गोंय

अक्षर जुळवणी
**सौ. वेदा विनायक सुतार,**
नारायण नगर होंडा, सत्तरी - गोंय

मुखपृष्ठ
**श्री. निलेश महाले,**
मेर्शी - गोंय

मोल रू.३५/-

**TINGUL**
**Vimal Prabhudesai**
Children Literature

Publication No. 10

First Edition
**January 2007**

Publisher
**Shri. Abhijit Z. Gaonkar,**
**Bhoomi Publication**
Savarshe - Sattari - Goa. 403 506

Printers
**Mahalaxmi Graphics,**
Sanquelim - Goa.

Typesetting
**Mrs. Veda Vinayak Sutar,**
Narayan Nagar, Honda, Sattari - Goa.

Cover Page
**Mr. Nilesh Mahale,**
Mershe - Goa

Price : Rs.35/-

हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या 'बाल साहित्य प्रकाशन' येवजणे खाला छापलां

# मांडावळ

१. मिशांदोर - काणी

२. बिलू वता बाजारांत - काणी

३. बेबेदादालें ऑफीस - कविता

# मिशांदोर

नारायणाले धुवेक बाय जालें. ताका हेर कसलेंच दूद पचना जालें. वयजान ताका बोकडेचे दूद घालूंक सांगलें. तशो नारायणाल्या गोठ्यांत तीन चार गायो, दोन म्हशी बी आसल्यो. तांचे दूद तो लोकांक विकतालो. पुणून, तागेर बोकडी नासली.

तो आयताराच्या बाजाराक गेलो आनी एक बरीशी दूद दिवपी बोकडी घेवन आयलो. तिगेलें दूद पियोवन नारायणाली नात बरी घटमूट जाली. वांगडा बोकडीय बी वाडूंक लागली.

आतां नारायणाक दिसलें, आपली बोकडी एकलीच जाता. तिका एक वांगोड जाय. तो बाजारात गेलो आनी बोकडेक सांगात म्हणून एक बोकड घेवन आयलो.



बोकोड आनी बोकडी बरीं मजेंन रावूंक लागलीं. घरचो ल्हान व्हड सगळो लोक तांची बरी अपुरबाय करताले. झाडांचो बरो पांचवो पालो हाडून तांका खावयताले. मदीं मदीं तणूय बी घालताले. भुरगी बाळां आपूण कितेंय खातना तांकाय दितालीं. अशें तरेन बोकोड आनी बोकडेले दीस बरे सुखान वताले.

कांय दिसानी नारायणाल्या बोकडेक दोन बरीं माणकुलीशीं पिलां जालीं. आतां तांचे चौगाचें एक ल्हानशेच कुटूंब जालें. बरीं खोशयेन रावतालीं तीं चारूय जाणां. पिलां हेवटेन तेवटेन धावतालीं पळटालीं मधींच उडणां मारतालीं.

खेळून खेळून पुरो जालें काय आवय सरीन येतालीं. मागीर बोकडी तांकां मोगान ल्हेंवताली.



अधीं मदीं बोकोड्डूय बी तांचे वांगडा खेळटालो. आपल्या शिंगानीं तांका फटीफटीनी धुकलतालो. तेन्ना बोकेडन भियोंवन म्हणप "नाका, तशें करूं नाका. तांका शिंग बी तोपत मूं !"



बोकोड आयकना आसलो. तो बोकडेक म्हणटालो, "तूं ओगी राव थयं पळोवया, तांका शिंग तोपूंक हावं कितें पिसो जालां काय कितें ? बापूय मगो हावं तांचो." आनी

एक दीस घडूं नये तें घडले. खेळटां खेळटां एका पिलाक मातशें बोकडाचें शिंग तोपलें. जालें! बोकडेन सामको थयथयाट केलो.

तशें पिलाक चडशे शिंग तोपूंक नाशिल्लें. बेठेंच भियोंवनूच तें अर्दे जाल्लें. आपूण इतले दीस सांगताली आनी बोकोड तें फकांणाचेर उडयतालो हाजो तिका राग आयलो. मारूंक गेल्ले भशेंन ती ताच्या आंगार धावून गेली. ताका खावं काय गिळूं अशें तिका जालें. "आता जालें समाधान ? एकल्याक शिंग तोपलांच. आतां दूसऱ्याकूय तोप, मागीर सुटलो तूं ! हावं बरी सुखान आसा तें तुज्यान पळोंव नज जालें. आता कित्याक मान सकयल घालता ? धनी गिळूंक घालता तें चड जालां तुका ! आतां हावं एक सांगतां, हाचे फुडें म्हज्या पोरांक हात लायशीत जाल्यार खबरदार ! हावं ओगी रावचीं ना ! समजता कितें तूं ? आज मेरेन खूब सोसलें हावें तुजें, म्हजीं माणकूलीं अपुर्बायेचीं पोरां ! कशीं भियोवन गेल्यांत पळय. सामको राक्षस मरे तूं !" तोंडाक येता तशें उलयली ती बोकडाक. ताची चूक जाल्ली खरी. ताका सामकें वायट दिसलें. बेजार जालो तो. आनी रागान लागलो चलूंक. चलतां चलतां तो एका दोंगरार पावलो. अजून तागेलो राग बरो निवळूंक नासलो. तो तसोच चलत रावलो. करतां करतां तिनसांज जाली. चारीय वटेन काळोख जालो. आतां कितें करतलो ? ताका बोकडेची आनी पिलांची याद आयली. आतां हांगांच खयं पुणून रात काडची, आनी सकाळ जायना फुडें घरची वाट धरची अशें ताणे येवजिलें. खयं काडची रात? तो हेवटेन तेवटेन भोंवलो. इतल्यान ताका एक बरी घोल दिसली.



रात काडूंक हीच घोल बरी अशें ताका दिसलें. भितर सरचे पयलीं घोलींत कोणूय ना हें ताणे पळोवन घेतलें, आनी रिगलो भितर.

ते घोलींत एक वाघ रावतालो. आतां तो खयं पुणून भायर सरिल्लो. कितेंय सावज बी सोदूंक गेल्लो असूंयेत. बोकोड घोलींत न्हिदलो खरो पुणून ताका काळजान एके तरेची धुकधुकशी जाताली. घोलीचे धनी जर काय रातचो आयलो तर कशें करप? पळोवयेत मागीर फुडलें फुडें, अशें येवजून तो दोळे धांपून रावलो.

बरीच रात जाली तसो वाघ घोलीकडे आयलो. येना फुडें ताका वेगळोच वास आयलो. घोलींत कोण तरी आसा हें ताका कळ्ळें. पळोवया तरी अशें म्हणून तो मुखार सल्लो. आनी ताणे नेटान विचाल्लें, "कोण रे तो म्हज्या घोलींत ?"



वाघाचो आवाज आयकना फुडें बोकोड सामको कुळकुळ्ळो. आपूण आयतोच ताच्या तोंडान सांपडलों अशें ताका दिसलें. तरी पुणून व्हडलो आवाज काडून ताणे म्हळें "हावं रे तो मिशांदोर. आनी म्हाका विचारतलो तूं कोण रे ?" मिशांदोर हें नांव वाघान केन्नाच आयकूंक नाशिल्लें. आनी असो इतल्या नेटान उलयाता म्हळ्यार हो कोणतरी तसोच व्हडलो आसतलो. आसूं कोणूय, सध्या हांगा साकून गेल्लें बरें. फाल्या सकाळी पळोवयेत. अशें येवजून तो फाटल्या पायानी परतलो.

सकाळ जायना फुडें वाघाक एक कोलो नदरेक पडलो. ताका लागीं आपोवन वाघान सगळी गजाल सांगली. आनी म्हळें "घोलीत बसला तो कोण तो मिशांदोर, ताची आमीं दोगूय मेळून खबर घेवंया."



मिशांदोर हें नाव कोल्याकूय नवेच दिसलें. तोवूय गोंदळ्ळो. भियेलोच तो. वचप काय नाका अशें ताका जालें. पुणून वाघाक तशें ना कशें म्हणप ? समजा आपणे ना म्हळें, आनी वाघान आपणाक हांगाच गटम केलो जाल्यार ? त्या परस किते जाता तें जावं. अशें म्हणून वाघाल्या धिरार कोलो फुडें सल्लो.



घोलीकडे पावतां पावतां वाघान म्हळें "हे पळे कोल्या, आरे आमी वतात खरे पुणून तो मिशांदोर आमका कायं करचो बी नामरे ? त्या परस आमी अशें करूंया ? एका मेकाल्यो शेपड्यो घट्ट बांदूया. तो आंगार आयलोच जाल्यार दोगायनीय बरोबर पोप्पा करची" हाजेर कोलो आनी कितें उलयतलो ?

दोगूय घोलीकडे पावत आयिल्ले. तेन्ना बोकोड घरावचूंक भायर सरतालो, ताणे ह्या दोगांची लामण येता ती पळयली. तो मातसो फाटीं सल्लो. आनी ताणे व्हडल्यान म्हळें "शाबास रे कोल्या! हाडलो मरे त्या चोराक बांदून ? आतां घेवंया ताची खबर." ही उतरां कानार पडना फुडें वाघ लागलो जिवाच्या आकांतान धावूंक, वांगडा कोलाय बी ताजे फाटल्यान काट्यांतल्यान, खुंट्यातल्यान, फातरांवयल्यान झरकटत गेलो.



ही संद सादून बोकडान घराकडे धांव माल्ली. बोकडी बाबडी हुसकेत बशिल्ली. बोकोड बरे भशेन आयिल्लो पळोवन तिका खोस जाली. येना फुडें बोकडान धापेत, खरशेत सगळें सांगलें बोकडेक. सगळे आयकना फुडें, ती ताका मोगान ल्हेवूंक लागली आनी बोकोड लागलो चाटूंक आपल्या पिलांक.



# बिलू वता बाजारांत

सकाळ धरून पावस पडत आशिल्लो. आता मात्सो आसरसो जाल्लो. जनेलांत बसून बसून बिलूबाय सामकें वाजेलें. ल्हेंवून ल्हेंवून ताचें आंग सामकें ओलें जालें. मात्सो दोळो लायतलें म्हळ्यार मार्गावयल्यान येतल्यो वतल्यो मोटारी स्कुटरी ट्रक हांचे हॉर्न आनी व्हडलो व्हडलो आवाज.



आतां मातशें बाजारात तरी वचून येवया अशें म्हणून तें उठलें. हारशा मुखार उबें रावून ताणे आपल्या मिशयांचेर ब्रश माल्लो. एक बरोसो फुलाफुलांचो स्कर्ट आनी ब्लावूज घालो. थोडो वेळ हारशात पळोवन तें आपणाकूच तोखेलें.



मागीर हातात सत्री पर्स आनी बास्केट घेवन बिलूबाय भायर सर्ल्ले. काल पयरूच ताणे नवेच उंच खोटांचे जोतें घेतिल्लें ते घालें आनी दाराक कुलप लावन चावी पर्सीत उडोवन तें चलूंक लागलें.



चार पावलां चलनाफुडें एका झाडावयल्या एका शेवण्यान ताका हटकिलें, "ए बिलूबाय, आज खयं तर ?" बिलून गुरगुरतच म्हळें "खंयना, अशेंच" मनान ताणे म्हळें ही सत्री जोतें आनी बास्केट हातान आसा म्हणून तूं वाटावलें. नाजाल्यार आताच तुजी गोमटी मुड्डीतलें आशिल्लें.



आनी मात्शें फुडें गेलें तशें कावं कावं करीत एक कावळो मुखार आयलो. बिलूक दिसलें हो आनी काळमुखो खयं आशिल्लो काय ? आयलो बरोबर म्हाकां अपशकून करूंक.



वाटेर एका झाडाचेर एक माणकुलीशी चानी आपल्या शेपडेचो गोंडो उबारून वयर सकयल नाचताली. तिका पळोवन बिलूच्या जिबलेक सामकें उदक सुटलें. रूचशी आयली ताका. चानी खावन खूब दिस जाल्ले. पुणून सत्री जोतें बास्केट मदी आयलें. हे सगळें सांबाळून तिका धरतलें कशें ? आसूं, पळोवयेत मागीर, अशें येवजून तें चलूंक लागलें.



जोतें घलपाची सवंय नाशिल्ल्यान ताका सारकें चलूंक येना आशिल्ले. ताका ती एक आडखळजावंक लागली. तिडकीन ताणे जोतें काडून एका झाडामुळान दवल्ले. परतें वतना व्हेल्यार जालें अशें ताणे मनात म्हळें.



बाजारांत पावलें तशें ताणे आपणाक जायतें सामान घेतलें. आता आयलांच जाल्यार नुस्तें कितें आयलां तें पळोवया. अशे म्हणून ते नुस्त्याच्या बाजारांत गेलें. वाटेर ताका एक भाजी विकतली बायल दिसली. तिचेकडेन तरेक तरेची भाजी आशिल्ली. "ही भाजी आनी कोण खाता काय?" नाक वाकडे करीत ताणे म्हळें.



बिलू नुस्त्याच्या बाजारांत गेलें. थंयचें सगळें ताजे फडफडीत नुस्तें पळोवन बिलू सामकें भुल्लुसलें. कितें घेवं आनी कितें नाका अशें ताका जालें. तांतुलेंच मात्शे सवायशे दोन चार नग ताणे घेतले आनी ताणे घराची वाट धरली.

वाटभर त्या नुस्त्याच्या वासान बिलुबायली भूक सामकी चाळवली. वाट सामकी सोपून सोपना काय जाली ताका. केन्ना काय तें नुस्ते पोटांत घालीन अशें ताका जालें. हुमण करूंक बसल्यार तांतून आनी वेळ जातलो. त्या परस रोकडें तव्यार घालून खाल्लें बरें. अशें ताणे येवजिलें. इतल्या मजगती बिलूलें जोतें थयंच उल्लें.



पावलें एकदाचे बिलू घराकडेन. अरे, पुणून हें कितें ? चावी खयं ? ह्या सगळ्या बोवाळा भीतर बिलूली चावी खयं तरी गोंधळ्ळी. सामकें फडफडलें तें. आतां कुलप कशें काडप ? आनी भीतर कशें वचप ?
नुस्तें कशें तळप ?



किते करचे तेंच कळना जालें ताका. सामकें बेजार जालें तें. निमाणे ताणे येवजिलें, झक मारता तें तळप ! हरवेंच नुस्तें खावंक वायटशें लागना. मागीर आनी ताणे वेळ केलोना. दारांत बसून ताणे ते नुस्ते चाबडावन चाबडावन खालें. भल्लें ताजे पोट. सामकी सुस्ती आयली ताका.



सांजेवेळा कोणाय मेस्ताक आपोवन कुलप निखळायल्यार जालें. अशें म्हणून बिलू थयंच लवंडलें.



# बेबेदादाले ऑफीस

काचाबूल जावन उठलो बेबो
उसरां मेरेन जालो ना जागो.



बेबकी भितर रांदप करताली
तोणान सिनेमातलें पद म्हण्टाली.




रागान बेबो तिजेर धेंगशेलो
''वाड म्हाका बेगीन'', हो पळय हांव चल्लो.

बेबकेक सामकी ताकतीक जाली
ताट वाडून ती घेवन आयली.



चडोवन आपली पांचवी सफारी
तयार जाली बेब्याची स्वारी.



बायलेन दिल्ली खायत सुपारी
बेबेदाद आमचो देवलों पायरी.

वाटेर सगळो जाल्लो रेबो
चुकयत ताका चल्लो बेबो.



टॅक्सी एक दिसली अकस्मात
बेब्यान तिका केलो हात.



झेतान बेबो बसलो सिटार
नदर ताणे लायली मुखार.

मदींच भायर काळोखसो जालो
बेब्यान म्हळें "आयलो दिसता पावस"



घोग्यानी एकदम पावस आयलो
पळोवन बेबो मनात सुखावलो



आतां तर तो सामको पिसावलो
इल्लोय ताका धीर ना उल्लो.

सफारी बिफारी सोडून उडयली
उडी ताणे भायर माल्ली.



खंयची टॅक्सी खयंचें ऑफीस
उदकात बेब्यान काडलो दीस.



## - आमची पुस्तकां -

आनी, एक बुटो फुल्लो - प्रा. प्रकाश वजरीकार

जल्मफेरे - दुर्गादास गावडे

पंकज - शीला कोळंबकार

दानाहकीम - किरण म्हांब्रे

दवरणें - प्रा. प्रकाश पर्येकार

मनसूख - संतोश हरमलकार

सैम भार - झिलू गांवकार

माणकुल्यांची गितां - झिलू गांवकार

देश गितां - भक्ति गितां - दो. भिकाजी घाणेकार




भूमि प्रकाशन
सावर्शे, सत्तरी - गोंय, फोन - २३६४९११